मनोज दास

# काणयो देखदिण्यो–खोसदिण्यो



अणकार

मीना काकोडकर

नेहरू बाल पुस्तकालय



# काणयो देखदिण्यो–खोसदिण्यो

मनोज दास

अणकार

मीना काकोडकर

चित्रां

मरियो मिरांडा




नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया



## राजा आनी चानी

एक आसलो राजा. जुवान, बुदवंत आनी हुशार. शौर्य आनी बळ हातूंत ताजो हात धरपी कोणूच ताज्या राज्यांत नाशिल्लो. राजाक हाचो गर्व आशिल्लो. तेभायर ताज्या राज्यांत सगल्यांत गिरेस्तय तोच आशिल्लो.

एक दीस बागेंत भोंवतना राजान आपल्या जाणटेल्या, बुदवंत मंत्र्याक म्हळें, 'सगले बाबतींत हांव सर्वश्रेष्ठ आसां हाची म्हाका खोस जाता. म्हजेमुखार फुशारकी मारूंक कोणच धजचो ना.'



राजान कितेंय म्हळयार मंत्री खुबदां हांसून मान हालयतालो. पूण हे फावटी तो ओग्गी रावलो, हांसलो लेगीत ना.

राजाक भोव अजाप जालें. ताणे मंत्र्याक विचारलें, 'तूं ओंगी सो रावलो?'

मंत्र्यान हांसून म्हळें. 'म्हाराज, खरें सांगतलों जाल्यार तुमचेमुखार कोणच फुशारकी मारचो ना हाजी खात्री दिवंक जावची ना. आमच्या राज्यांत तुमीच सर्वश्रेष्ठ आसात हें जरी खरें आसलें तरीकय ते गजालियी जाणविकाय नाशिल्ले कांय लोक हांगा आसूं येतात. जण एकल्याच्यो स्वताविशीं नसत्यो कल्पना आसतात. भिजुडांतलो भिजूड मनीस लेगीत केन्ना केन्नाय स्वताक शूरवीर समजता. देखूनच तुमच्या व्हडपणाची जाण नाशिल्लो कोणय तुमचेमुखार फुशारकी मारूं येता. तेन्ना तसल्यांकडेन कानभेरेपण करप शाणेपणाचें थारतलें. दुसऱ्याल्या फुशारक्यांकडेन लक्ष दिवप म्हळ्यार आपल्याच मनाची शांती वगडावप.'

मंत्री उलयतना एक सुपुल्ली चानी उडी मारून ताच्या मुखावेलो पाशाणी खांबो चडून सूर्र करून वयर गेली आनी फाटल्या दोन पायांचेर बसली. राजाक आनी मंत्र्याक दिसचें म्हणून फुडल्या दोन पांयांच्या चपक्यांत तिणें एक नाणें वयर धरिल्लें.





राजाक तिजी मजा दिसली. तो हांसता तें पळोवन चानी गावंक लागली—

*म्हजेकडन दुडू रासभर*
*राजाकडेन आसत चिमूटभर*
*राजाक जाल्या नसाय म्हजी*
*काकुळ्ट दिसता म्हाका ताजी*

हें आयकनाफुडें राजाक भयंकर तिडक मारली. मंत्र्यान कितेंय म्हणचे पयलींच तो चानयेच्यां आंगार धांवन गेलो. चानी थंयच्यान पळून गेली. पूण पळटना तिजेकडलें नाणें सुटून सकयल पडलें, राजान तें काडलें आनी मंत्र्याकडेन पळोवन तो समाधानान हांसलो. मंत्र्यान कांयच म्हळें ना.

उपरान्त सांजेचो राजा आनी ताजे मंत्री शेजारच्या राज्यांतल्या राजदूतांवांगडा म्हत्वाच्या प्रश्नोचेर भासाभास करताले, इतल्यांत वयल्यान चानयेचो आवाज तांच्या कानार पडलो :

*राजा जाला गिरेस्त म्हज्या दुडवां नेटार*
*गुपीत हे खाशेलें*
*पालतां आयज वाऱ्यार*

हें आयकनाफुडें राजाच्या संतापाक शीम मेर उरली ना. पुण भोंवतणी हेर मानेस्त बशिल्ले देखून ताका मूग गिळून ओग्गी रावचें पडलें. चानी गायत एका खांब्यावयल्यान दुसऱ्या खांब्यार उडी मारताली. चानयेचीं उतरां सगल्यांनीं आयकलीं. पूण राजाक वायट दिसत म्हणून कोणच हांसले नात आनी ताणी तोंडांतल्यान जापय काडली ना.

सगले सोयरे आपआपल्या कक्षांत गेले उपरान्त राजा चानयेक सोदूंक लागलो. पुण ताका ती खंयच दिसली ना. ते खंतीन राजाक राती न्हीद लेगीत पडली ना. दर दिसा भिकाऱ्यांक भीक पालून दिसाची सुखात करपाचो राजाचो नेम आशिल्लो. दुसऱ्या दिसा राजा भीक पालतना चानी दाराकडेन येवन गावंक लागली.

*मोठे व्हडविकायेन भिकाऱ्यांक भीक पालता राजा*
*पूण म्हजोच मगा दुडू तो, जो पोशांत आसा ताच्या*

राजान तिडकीन शिपायाक चानयेक धरून हाडूंक सांगलें. शिपाय तिजेफाटल्यान हेवटेन तेवटेन धांवले; पूण ती तांच्या हाताक लागली ना. परत एक फावट राजाक मोन्यानी राग गिळचो पडलो.

थोड्या वेळान राजा जेवण करूंक बसता थंय आसा, चानयेन जनेलांतल्यान तकली भितर पानी आनी आपलें गायन सुरू केलें—

*राजा मारता पक्वान्नांचेर ताव*
*मोडून म्हजेच दुडू.*
*कळला म्हाका पळोवन हें*
*हांव हांसूं काय रडूं?*

हें आयकून संतापान एक उंडी लेगीत राजाच्या गळयासकयल देंवना जाली. शिपाय ते चानयेक धरूंक हेवटेन तेवटेन धांवले. पुण चानी थंयची पळून गेली. रातचो राजा जेवंक बसला मात, चानी परत ताच्यामुखार येवन उबी रावली आनी राजाक दनपारचें जेवण नाका करून उडोवपी कवन परतें गावंक लागली. राजाची बाबड्याची सामकी बिकट परिस्थिती जाली. कितें करचें हेंच ताका कळना जालें. ताणें बेजारून चानयेचें नाणें काडून तिजेर शेंवटिलें. चानयेन तें कळाव करी नासतना उखल्लें. पूण वतां वतां ती परती गांवक लागली.



*जैतं मेळ्ळे हे बळीश्ट चानयेक*
*पालतां पेरगांव सगल्या गांवाक*
*राजान नाणें परतें दिलें*
*भिलो बाबडो म्हज्या बळाक*

राजा चवताळून चानयेच्या आंगार धांवन गेलो; पूण परती चानी ताका चुकोवन पळ्ळी. तेय रातीं राजाक न्हीद पडली ना. रातभर तिजीं उतरां ताज्या कानांत धुमतालीं आनी तो हातुणार तळमळटालो.

सकाळीं उठनाफुडें राजान मंत्र्याक म्हळें, "म्हाका दिसता, राज्यांतल्ला सगल्या चानयांक मारून उडयले बगर ही कटकट सोंपचेली ना. हांव शिपायाक तसो आदेश दितां; दुसरो उपायच ना."

मंत्र्यान म्हळें, 'म्हराज, म्हाका तुमचो राग समजता. पूण राज्यांतल्या सगल्या चानयांक मारप आमच्या शिपायांक शक्य जातलें हाजो भरवंसो कोणाच्यान दिवं येता? अटंग्य रानांनी, शेतांनीं, दोंगरांनी, खांची-कोनशांनी, जंय मनशाक रिगूंक मेळना अशा

जायत्या जाग्यांनी लाखांनी चानयो आसतल्यो. शिवाय एका राज्यांतल्यान दुसऱ्या राज्यांत वचपाक चानयांक परवानो लागना. म्हणटकीर दुसऱ्या राज्यांतल्यों चानयो आमच्या राज्यांत येवंक शकतात. इतलेंच न्हय, तर आमच्या निडर छातयेच्या शूर शिपायांक चानयांक मारपाचें काम दिलें जाल्यार तांकां वायट दिसतलें आनी सादें आसूनलेगीत तांचेकडल्यान तें जालें ना जाल्यार तांकां कोणाक तोंड दाखोवंक जागो उरचो ना. इतलें सगळें करूनय जर तुमकां सतावपी ती मस्ती चानी वाटावली जाल्यार घेतिल्ले सगले कश्ट फुकट वतले. तुमचे प्रजेक कितें दिसतलें? भावी इतिहासकार तुमचे विशीं कितें बरयतले?

समजा तांणी बरयलें कीं—एका काळार एका राजान आपलें सैन्य घेवन—चानयांचेर घुरी घाली, जाल्यार फुडारांत हें वाचतना लोकांक तो फकाणाचो विशय जावचो ना?"

"म्हणटकीर हांव कितें करूं?" हताश राजान बेजारुन विचारलें 'म्हाराज, तुमी तिचेकडेन दुर्लक्ष करात. जेन्ना बागेंत ती पयलेच फावट तुमच्या मुखार आयली, तेन्ना तिज्यो फुशारक्यो आयकूनय तुमी जर तिचेकडेन दुर्लक्ष केल्लें, जाल्यार तुमची अशी





आवतिकाय जावची नाशिल्ली. पूण आजुनूय वेळ वचुंक ना. तुमी आजुनूय तुमचें वागप सुदारूंक शकतात.''

कांय वेळान चानी परती राजामुखार येवन उबी रावली आनी राजान आपल्याक भियेवन नाणें परतें दिलें म्हणून गांवक लागली. राजान थंडसाणेन तें आयकून घेतलें आनी हांसून म्हळें—

*''कोण नकळो–जशी कांबयेचीं जांभय*
*म्हासागरा परसय विशाल आसा*
*तशीच चानी दुडू आनी बुदवंतकार्येंत*
*राजा–म्हाराजांपरसय म्हान आसा.''*

हें आयकून चानी थप्प जाली आनी राजाक पळयत उरली. मागीर तोंडातल्यान एक लेगीत उतर काडिनासतना ती फाटल्या पावलांनी थंयच्यान परतली आनी परती केन्नाच थंय दिश्टी पडली ना.






## फुतफूत

खूग खूब वर्सां पयलींची गजाल. एका ल्हानशा गांवांत रघू आनी राजू नांवाचे दोन भुरगे रावताले. दोगय एकेच पिरायेचे आनी वांगडाच शिकताले.

रघू प्रामाणीक आनी कश्टाळू आशिल्लो. ताज्या आवयबापायक आनी शिक्षकांक ताजेविशीं भोव अभिमान दिसतालो. राजू मात साप वेगळो आशिल्लो. तो जितालो हुशार तितलोच फटींगय आशिल्लो. परिक्षेंत लेगीत तो फटींगपणाच करी आनी दुसऱ्या भुरग्यांची कॉपी मारून पास जायी. राजू आपसूवाथी आशिल्लो पूण ताज्या गोड

उलोवण्यान आनी लगोळ्याा हांसपान लोक ताका फटवताले.

फटींगपणा करूंक रघू केन्नाच राजूक आदार करी नासलो देखून रघू ताका आवडनाशिल्लो. राजून रघुक चोरी करूंक वा लोकांक फटोवचेल्या कामांत आदार करूंक सांगल्यार रघू ताका सांगतालो, 'बाबा रे, कसल्याय बऱ्या कतुंपांत तुका आदार जाय आसत जाल्यार हांव मुजरत तुका तो करतलों पूण फटींगपणा करूंक हांव तुका मदत करचों ना...'

शिकून जातकीर राजू गांव सोडून व्हडल्या शारांत रावंक गेलो. रघू मात आपल्या गांवांतच रावन बापायन दवरिल्लें शेत-भाट पळोवंक लागलो. गांवच्या सगल्या लोकांक रघू खूब आवडटालो. अशींच कांय वर्सा गेली. रघू आनी राजू आपापल्या मार्गांन चलत रावले. दोगांयनी एकठांय येवपासरकें कांय कारणय घडलें ना. एक दीस राजूचे बुदवंतकायेक लागून राजान ताका आपलो प्रधानमंत्री केलो म्हणचेली खबर रघूच्या कानार आयली. ते आयकून ताका बरें दिसलें ना, कारण राजू कितलों फटकिरो हें तो जाणा अशिल्लो. पूण जें आपल्याक लागना ते बाबतींत खंत करीत बसप हें रघूच्या सभावांत नाशिल्लें, देखून तो ओगी रावलो.

एक दीस गांवांत परब आशिल्ली. त निमतान सामान घेवंक रघू शारांत गेलो. दनपारच्या भारार तो शारांत पावलो. वताचो रखरख सामको सोसूंक जाय नासलो. रघूक खूब पुरो जाल्लें आनी ताका तानय लागिल्ली. लागींच एक व्हडलो वाडो आशिल्लो. रघू थंय भितर सरलो आनी नोकराकडेन पेलोभर उदक मागतलो, इतल्यांत वाड्याचो धनी थंय पावलो. रघूक पळोवन ताणें अजापान म्हळें, 'रघू, तूं हांगा कितें करता?' रघू पयलीं राजूक वळखलोच ना. राजूच्या आंगार भरजरी वस्त्रां आशिल्लीं. गळयांतल्यो भांगराच्यो सरपळ्यो-माळो आनी बोटांतल्यो वज्राच्यो मुदयो वताची किर्णां पडून लखलखताल्यो. ताज्या माथ्यावयल्या भरजरी फेट्यांत मर्दी पाचू आनी कॅम्पां बसयिल्ली पीन लखलखताली. शिवाय राजू इतलो मोटो जाल्लो कीं तो उदकाचें बल्ल कशें दिसतालो. रघू राजूकडेन पळोवन हांसलो, पूण राजून ताजेकडेन आडनदर करीत कुच्छित्र्यांनी म्हळें, 'रघू, कितें दशा जाल्या ही तुजी? कसलीं बोतरां आंगार घाल्यांत हीं तुवें? गांवांतल्यान चलत तूं हांगा म्हणसर आयला आसतलो. म्हजेकडेन पळय पापया, कसो राजावरी दिसतां हांवा खरें काय न्हय? म्हजे आंगावयलीं हीं वस्त्रां पंळय, हो वाडो पळय, देव लेगीत म्हजी

नसाय करता. म्हज्या स्वताचे हिमतीचेर हांव ह्या पदाचेर पावलां. पूण तुज्या सारकेल्या बोंडेरा कडेन सादें गाढव लेगीत ना.'

'हांव गरीब आसन' रघून म्हळें, 'पूण आसा तातूंत हांव समाधानी आसां. शिवाय हांव बोंडेर न्हय हें तुका बेस बरें खबर आसा. म्हज्या मनांत अशिल्लें जाल्यार हांवय बी तुजेच वरी गिरेस्त आनी वजनदार आसपाचों; पूण तुजेवरी नाडपणां करूंक म्हाका आवडना.'

'चूप...' राजून ताजेर धेंगसो घालो. 'इतली तुज्या आंगात धमक आसा जाल्यार म्हज्या दारांत भीक मागूंक कित्याक आयलो?

'हांव हांगा भीक मागूंक येवंक ना.' रघून थंडसाणेन जाप दिली, 'म्हाका तान लागिल्ली देखून पेलोभर उदक मागूंक हांव हांगा आयिल्लों. हो तुजो वाडो हें म्हाका खबर नाशिल्लें.'

'उदकाचो एक थेंब लेगीत तुका हांगा मेळचेलो ना. लाग चलूंक...' रागान थरथरत राजू आडुलो.





'बरें आसा भावा, वतां हांव' अशें म्हणून रघू वचूंक परतलो.

पूण ताजो इतलो अपमान करूनय राजूचें समाधान जावंक नाशिल्लें, ताणें आपल्या दोगां नोकरांक आपोवन रघूक उबारून भायर रस्त्यार उडोवंक लायलो. आतां मात रघूक राग आयलो. ताणें म्हळें, 'हांवें तुजें कांयच वांकडें केल्लें नासतना तुवें कारणाशिवाय म्हजो अपमान केलो. तुजें केन्नाच बरें जावचें ना?'

"तुवें म्हजें कांयच वांकडें करूंक ना? परिक्षेंत कॉपी मारूंक केल्ली तुवें म्हाका मदत? ना न्हय? म्हणटकीर आतां हांव म्हाका जाय तितलों तुजो अपमान करतलों, तुज्यान म्हजें कितें करूं येता? हांव राजाचो प्रधानमंत्री; तूं म्हाका ख्यास्त दिवेक शकना. हेर सगल्या मंत्र्यांची नेमणूक हांवच करतां. राजाचो सेनापती म्हजो इश्ट. खजिनदार म्हजो मांव, सरन्यायाधीश म्हजो मेवणे. समजलें?" राजून आडून म्हळें.

'तुमी सगळे वुद्द शिकतले' रघून रस्त्यार पडटां, पडटां म्हळें.

हाचेवयल्यान कांस म्हयने गेले. एक दीस राजा बागेंत एकलोच आसतना एक खाडमिश्यो अशिल्लो अनवळखी मनीस राजा म्हऱ्यांत आयलो. जायत्यो सोबीत वस्तू राजाक भेटोवन ताणें म्हळें, 'म्हाराज, म्हजी तूमकां एक विनंती आसा. दर दिसा हांव नुलयत पन्नास भांगराचीं पोवनां तुमकं दितां. ज्या बदला तुमी दरबरांत आसतना तुमच्या कानांत थोडो वेळ फुतफुतपाची तुमी म्हाका परवानगी दियात.

राजान म्हळें, 'म्हजी कांय हरकत ना.'

दुसऱ्या दिसा राजा आपले मंत्री आनी हेर उंचेले अधिकारी हांच्या वांगडा दरबारांत बशिल्लों आसतना तो अनवळखी खाडयो वाट काडीत बद्द राजामुखार वचून उबो रावलो. राजान हांसून ताका आपल्या म्हऱ्यांत आपयलो. खाडयान आपलें तोंड राजाच्या कानाकडेन व्हेलें आनी तो फुतफुतलो, 'आयचो दीस कितलो सोबीत आसा ! सुर्या तेजान पर्जळटा आनी मळबांत एक लेगीत कूप ना.' फुतफुतना तो भौनं भौन राजूचेर नदरो मारतलो. मागीर ताणें ल्हवूच पन्नास पोवनां राजाच्या पोशांत घालीं आनी तो परतलो.

राजाचो प्रधानमंत्री—राजू ताज्या फाटोफाट भायर गेलो आनी आदरान ताणें ताका विचारलें, 'तुमी राजाक कितें सांगताले? आनी म्हजेकडन परत परत कित्याक पळयताले?

तो अनवळखी खाडयो दुसरो तिसरो कोणच नासून रघू अशिल्लो आनी आपले करणेन फुडें कितें घडटलें तेय तो जाणा आशिल्लो.

ताणें म्हळें, 'राजा आनी म्हजे भितल्ली गुपीत गजाल हांव तुमकां कसो सांगतलों?

राजूच्या पोटांत खप्प जालें. आपल्या मनांतलो दुबाच खरो, हाजेविशीं ताका खात्रीय पटली. ताणें रघूमुखार लोटांगण पालून शंबर भांगराचीं पोवनां दवरलीं आनी काकुळटेक येवन म्हळें, 'सांजवेळा हांव आनीक शंभर पोवनां दितां, पुण उपकार करून म्हाका ती गूपीत गजाल सांग.'

रघून फाटीं-फुडें येवपाचें सवंग केलें. पूण राजू सामकोच हातापांया पडपाक लागतकीर ताणें म्हळें, 'गजाल मातशी गंभीर आसा. तुमी भ्रश्टाचारर म्हणून जायत्या लोकांनी राजाकडेन तुमचेआड कागाळ केल्या, तिजी चवकशी करूंक राजान म्हाका नेमलां.'

'आनी तुमी राजाक आयज कितें सांगलें म्हाराज?' राजून धडधडय्या काळजान विचारलें.

'आजून चवकशी चालू आसा अशें हांवें राजाक सांगलें,' रघून जाप दिली.

'म्हजेर दया करात म्हाराज, हांव तुमकां हजार भांगराचीं पोवनां दितां' राजून रघूचे पांय धरीत म्हळें.

'पळोवया कितें करूंक येता तें.' रघून चिंतेस्त तोंड करून सांगलें.

दुसऱ्या दिसा रघू परतो राजाक मेळ्ळो आनी ताच्या कानंत फुटफुतलो. 'आयज फांतोडेर दक्षिणेकडल्यान वाऱ्याचो झणझण सुटिल्लो. आतां तो उदेन्तेवटेन व्हांवंक लागलो.' आनी हें फुतफुततना परत परत राजूकडेन पळोवंक रघू विसरसरलो ना.



हीं अर्थ नाशिल्लीं उतरां आयकून राजाक हांसो आयलो. पूण त्या बदला दर दिसा पन्नास भांगरा पोवनां मेळटात म्हणून तो खूश आशिल्लो. गळाक लागिल्या नूस्त्यावरी फडफडट्या काळजान राजू जेन्ना रघूक मेळ्ळो तेन्ना रघून म्हळें, 'सध्या तरी प्रधानमंत्र्यावयले कागाळेंत कांय तथ्या ना अशी राजाची खात्री जाल्या.' राजून रघूचे उपकार मानून ताका एक हजार पोवनां दिलीं.



दुसऱ्या दिसा राजाच्या कानांत धुकें आनी पावसाची शिरशीर हांचेविशी फुतफुततना रघू मौंन मौंन सेनापतीकडेन पळयतालो. सेनापतीचेरय जूस्त प्रधानमंत्र्यावरीच आकांत आयलो. रघूक आनीक हजार भांगराचीं पेवनां मेळ्ळी.

फुडल्या कांय दिसांभितर रघून राजाल्या सगल्या मंत्र्यांक, खजिनदाराक सेनापतीक आनी सरन्यायाधिशाक भेशटावन उडयले. राजाक तो दर दिसा पन्नास पोवनां दितालो खरो, पूण ताज्याबदला ताजेकडेन धा हजार पोवनां जमा जाल्लीं.

उपरान्त एक दीस जेन्ना दरबार मंत्री, अधिकारी आनी हेर लोक हांणी गच्च भरिल्लो तेन्ना रघू राजासामखार येवन उबो रावलो, 'म्हाराज, इतले दीस हांव अर्थ नाशिल्लीं उतरां तुमच्या कानांत फुतफुततालों. पूण आयज ही थैली जें कितें तुमच्या मुखार उकती करतली, ताजे फाटलो अर्थ तुमी समजून घेयात' अशें म्हणून ताणें थैली राजामुखार ओतली. तातुंतल्यान धा हजार पोवनांची किणकीण म्होवाळ सूर कशे राजाच्या कानांत फुतफुतली. राजा हांसलो, पूण रघूचे करणेचें ताका अजाप दिसलें आनी ताणें ताका खूलासों करूंक सांगलें.

रघून राजाक आतांमेरेन घडिल्ली गजाल सांगली आनी जमनीवयल्या पोवनांकडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'तुमचे भोंवतणी जो र्भशटाचार आनी फटींगपणां चल्लयांत, ताजो ही पुरावो आसा. जर तुमचें मंत्रिमंडळ प्रामाणिक आशिल्लें, सेनापती कार्यक्षम आशिल्लों, खजिनदार आनी सरन्यायाधीश भ्रष्टाचारी नाशिल्ले जाल्यार हांव तुमच्या कानांत फुतफुततना तांचेकडेन पळयतां इतलेच खातीर इतले आकांतचे नाशिल्ले.

राजाक सगळें समजले. ज्या पदाचेर हीं मनशां आसात, त्या पदाक तीं लायक नात हें ताका कळळें. भ्रशटाचाराक लागून तांचीं मनां नितळ नाशिल्लीं. आपलीं कर्तुपां उकतीं जायत ही भिरांत सदैव तांच्या काळजांत आसताली. राजून आनी हेरांनी फटींगपणाचे बुन्यादीचेर आपलो फुडार उबारिल्लों तो थंयच कोसळून पडलों.

राजाचे दोळे उकते जाले. ताणें रघूक आपलों प्रधानमंत्री नेमलों. रघून दरबारातल्या रित्या जाग्यांचेर प्रामाणीक आनी कश्टाळू मनशांची नेमणूक केली.





## एका विचित्र देयाक भेट

खूब वर्सांपयलीं एका पैसुल्ल्या गांवांत एक वेपारी आनी ताजो पूत अर्जुन रावतालो. एक दीस बापायन पुताक म्हळें, 'म्हजे कडेन दोन बऱ्या जातीचे घोडे आसात. हांवें तांकां भोव जतनायेन वाडयल्यात. जंय असले घोडे सटकरून मेळनात थंय व्हरून विकाल्यार दर एका घोड्यचें मोल उण्यांत उणें शंभर भागराचीं पोवनां तरी येतलीं. पैस वचय म्हाका शक्य ना. पूण अनवळखी वाठारांतल्यान एकटुको पैसुल्ले भोंवडेर वचपाइतलो जर तूं धीट आसशीत जाल्यार हे घोडे घेवन त्या देसाच्या राजाम्हऱ्यांत वच. घडये तो आनीकय चड मोल दिवन घोडे घेत.

पैसुल्ला देशाचे भोवडेक वचूंक मेळटा म्हणून अर्जुन उमेदीन फुल्लो. बापायन ताका शिटकायत म्हळें, 'एक गजाल मात मतींत दवर. चुकून लेगीत अस्तंतेवटन वचूं नाका. थंय असो एक देश आसा, जंय नावाडगे लोक रावतात. थंय पाविल्लो खंयचोच वाटसुरो बरेभाशेन परत येना. हांव एक फावट थंय पावलों. आनी ते चुकेचें जें मोल म्हाका फारीक करचें पडलें, तें हांव मरसर विसरचों ना?

'थंय कितें जालें?' अर्जुनान बापायक विचारलें.

'ल्हानपणांत तूं तुज्या व्हडल्या भावा वांगडा खेळटालो ती तुका याद आसा? पंदरा वर्सा फाटीं हांव म्हाल विकूंक भोंवडेर गेल्लों. तेन्ना म्हज्या वांगडा तुजो चौदा वर्साचो भाव आशिल्लो. म्हाका दिसलें, वेगवेगळे देस आनी थंयच्यो चाली रिती पळोवन ताका खुबशें शिकूंक मेळटलें.

परत येतना आमच्या पाड्या नशिबान आमी एका अनवळखी देसांत पावले. तिळसांज जाल्ली देखून आमी रात थंयच्याच एका हॉटेलांत सारली. भोंवतणच्या लोकांच्या उलोवण्या-वागण्यावेल्यान आमी नावाडग्यांच्या राज्यांत पावल्यात म्हणचेलें रोखडेंच म्हज्या लक्षांत आयलें. वाटसुरांनी ह्या देसाविशीं म्हाका शिटकायिल्ल्यान केन्ना काय हांगच्यान वचन अशें म्हाका जालें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव बील फारीक करूंक हॉटेलमालका कडेन गेलों इतल्यांत ताजो भाव थंय धांवत आयलो. आपल्या अशिबाक दूशण दित तो आकांतान रडटालो. ताजे बायलेगेर एक मेल्लें भुरगें जल्मल्लें आनी ताजें अपशरण तो म्हज्या माथ्यार फोडटालो. हांव ताका अजापान पळयत उरलों. ताजें म्हणणें आशिल्लें, जेन्ना हांव घोड्या वेल्यान सकल देंवलों तेन्ना म्हाका खूब खरस मारतली. त्या वेळार हॉटेलांतल्यान एक ल्हान जीव उडत भायर वतालो म्हजे खरशेक लागून ताजी उडपाची दिका बदलली आनी हॉटेलधनयाची गुरवार भावज जे कुडीत बशिल्ली थंय तो पावलो आनी तिजे ताकपुडयेंत गेलो. तिका शींक अयली आनी तेखातीर तिज्या पोटांतलें भुरगें मेलें.

हें आयकून हांवें कितेंय उलोवचे पयलींच थंय लोकांची गर्दी जमली. ते सगले ताजे फावराद उलोवंक लागले. म्हाका त्या भुरग्याच्या मरणाक जापसालदार धरून तांणी म्हज्या पुताक म्हज्या म्हऱ्यांतलो ओडून व्हेलो. तो बाबडो तांची चाकरी करीत थंय कशे दीस सारता देव जाणा !'

हे उलयतना जाण्टेलो रडत आशिल्लो. अर्जुनाकय वायट दिसलें. ताणें बापायक धीर दित म्हळें, 'तूं कांय भियेवं नाका. हांव त्या नावाडग्यांच्या देसांत पावल दवरचों ना.'

दुसऱ्या दिसा दोनय घोडे घेवन अर्जुन दक्षिणेवटेन भोंवडेक भायर सरलो. कांय दिसां उपरान्त तो एके न्हंयचे देगेर पावलो. न्हंयक हुंवार आयिल्लो देखून घोड्याक आपल्या ल्हानशा पनेळांतल्यान पलतडीं व्हरूंक तारयान न्हयकार दिलो. ताणें अर्जुनाक सांगलें, 'अस्तंत दिकेन फुडें गेल्यार तुका थंय व्हडली बोट दिसतली. तातुंतल्यान घोडे पलतडीं व्हरप सोपे जातलें.

हें आयकून अर्जुन ते दिकेन चलूंक लागलो. अकस्मात आकांताचो वारे व्हावेक लागलों. खिणामजगतीं सगलो वाठार वाटोळेंत यांपडलो. अर्जुनाक आलाशिरो घेवंक खंयच जागो मेळना जालो. इतल्यांत पयस दोंगरापलतडीन धुंवर वयर सरतना ताका दिसलो. आपल्या दोनच घोड्यांक घेवन, भोव कश्टान अर्जुन दोंगर चडलो.

वाटोळी निकतीच धांबिल्ली. सकयल अर्जुनाक एक गांव दिसलो. तो उस्तंतेवटेन



खूब वाट चलून आयिल्लो देखून आपल्याक दिश्टी पडटा तो नावाडग्यांच्या राज्याचो वाठार आसुंये अशें ताका दिसलें. ताणें थंयच्यान परतुचेलें थारायलें. पूण त्या नावाडग्या गांवांत रावपी लोक आसात तरी कसले हें जाणा जावचेली खर उमळशीक ताका लागली. दोंगरा तेंगशेवयल्यान बाग घेवन तो सकयल पळोवंक लागलो. इतल्यांत ताज्या पांयापोंदचो एक फातर निसरलो आनी अर्जुन वयल्यान गडगडत बद्द त्या गांवांत पावलो. ताजे घोडेय बाबडे धांवत येवन ताज्या म्हऱ्यांत उबे रावले.

तो पडला तें पळोवन तेवटेन वचपी एक जाण्टेलो धांवत ताज्या म्हऱ्यांत आयलो. अर्जुन उठून उबो रावलो. बऱ्यानशिबान ताका चड मार लागूंक नाशिल्लो. पुण जाण्टेलो भोव हुसक्यान आपल्याक पळयता हें पळोवन ताका बरें दिसलें. कशेंय जांव नावा डग्यांच्या राज्यांत लेगीत मनीसपण आशिल्ले लोक रावतात अशें ताज्या मनांत आयलें.



अर्जुन ताका देव बरें करूं अशें म्हणूंक बतालो, इतल्यांत तो जाण्टेलो व्हडल्यान हुयेली मारूंक लागलो. अर्जुनाच्या पोंदा चिडून मेल्लो एक बेबो ताणें पळयिल्लो. त्या बेब्याक पळोवन तो रडत म्हणटालो, 'म्हज्या अपुरबायेच्या सानुल्या बेब्या रे, तुज्या मरणाचो हांव कशे तरेन बदलो घेवं?'' ताज्यो हुयेल्यो आयकून जायंते लोक थंय जमले. जाण्टलो आनी ते आपसांत कितें तरी उलयले. मागीर तांणी अर्जुनाक समजावन सांगलें, 'बाबा रे, ह्या जाण्टेल्याक भुरगोंबळ ना देखून ताणें ह्या बेब्याक पोसको घेतिल्लो. तो बेबीय बी



जाण्टेल्याचेर खूप मोग करतालो तें सगलो गांव जाण. आपणे भूरग्याभशेन ल्हानाचो व्हड केल्लो बेबो अशे तरेन अपघाती मेलो म्हणून जाण्टेल्याचें काळीज फुटचेकडेन पावली.'

म्हणटा म्हणसर जाण्टेल्यावांगडा आनीकय लोक रडूंक लागले. अर्जुनाक कितें करचें कळना जालें. ताका केन्ना काय थंयच्यान गेल्यार पुरो जाल्लें. जाण्टेल्याक कशे तरेन समजायल्यार तो ओगी रावतलो काय म्हणून ताणें लोकांक विचारलें. हें आयकना फुडें रडप थांबावन जाण्टेल्यान सट्ट करून म्हळें, 'तुजो एक घोडो म्हाका दी.'

'कितें? बेव्याच्या बदला घोडो?' अर्जुनान रागान विचारले.

'तरनाठ्या, तुका राग कित्याक आयला म्हाका कळना ! तुजो हो घोडो म्हज्या पुतापरस चड मोलादीक आसूं येता?' जाण्टेल्यान विचारलें.

निमाणेकडेन अर्जुनाक आपलो एक घोडो ताका दिवचोच पडलो. जड अंतस्करणान तो गांवांतल्यान भायर सरलो. पूण दोंगर चडून वयर वचप शक्य नाशिल्लें देखून सकयल्यान दोंगर पलतडी वचचेली वाट सोदीत तो तसोच चलत फुडें वचूंक लागलो.

वतां वतां अर्जुनाक आनीक एक गांव मेल्ळो. तानेन आनी भुकेन तो खासावीस



जाल्लो. लागींच एक घर आशिल्लें. अर्जुनान थंय वचून दारार मारलें. एका दोळ्यान कुड्डो आशिल्या एका मनशन दार उकतें केलं. अर्जुनान ताजेकडेन कितेंय खावंक पियेवंक दी म्हणून मागलें.

त्या मनशान म्हळें, 'तुका खावंक दिवंक म्हजेकडेन कांय ना, पूण पियेवंक जाय तितलें उदक आसा. तें पिये तूं पोटभर. कशेंय काय जायना, पोट भरतकीर जेलें. खरें काय न्हय?'

उदक पियेवन अर्जुनान ताका देव बरें करूं म्हळें आनी तो थंयच्यान वचूक परतलो. इतल्यांन त्या मनशान ताका ताज्या बापायचें नांव आनी तो खंयच्यान आयला काय म्हणून विचारलें. अर्जुनान ताका तें सगलें मात, त्या मनशान अर्जुनाक घट्ट धरून म्हळें, 'बरो मेळ्ळो तूं' वीस वर्साफाटीं हांव तुज्या देशांत वेपाराखातीर गेल्लों. दुदैवान म्हजे पैशे कोणेतरी चोरले. हांव तुज्या बापायक वळखतालों देखून हांवें ताजेकडेन दोन म्होरो रीण म्हणून मागल्यो. पूण तारण म्हणून कसलीय वस्त दवरल्यारच तो रीण दिवंक तयार जालो. म्हजेकडेन कांयच नाशिल्लों म्हणून ताणें म्हजो एक दोळो आपले कडेन दवरूंक सांगलो. म्हाका पयशांची सामकी गरज आशिल्ली. दुसरो कांय अपाय नाशिल्लो देखून हांवें ताका म्हजो एक दोळो काडून दिलो. तुज्या बापायन वर्सा उपरान्त हांगा येवन म्हजो दोलो परतो दिवपाची बोली केल्ली. हे गजालीक वीस वर्सां जावन गेलीं. तरी तो आयलो ना. पूण आतां तूं म्हजे तावडींत सांपडला. म्हजो दोळो म्हाका परतो दी. बापायचें रीण पुताक फारीक करूंक जाय. हांवें तुज्या बापायकडल्यान घेतिल्ल्यो दोन म्होरो आनी इतल्या वर्साचें कळतर म्हणून आनी एक म्होर हांव तुका दिवंक तयार आआं. पूण म्हजो दोळो म्हाका परतो जाय.' इतले म्हणस थंय त्या 'एक-दोळ्या' ची री ओडपी जायते लोक जमले. अर्जुन बाबडो रडकुरो परतलो. ताणें काकुळटेक येवन म्हळें, 'म्हाका तुज्या दोळ्याविशीं कांयच खबर ना. पूण त्या बदला हांव कितें करूं तें साग आनी म्हाका वचूंक दी.'

'तूं बरेभशेन वच, पूण तुजो घोडो हांगा दवरून.' एक दोळ्यान म्हळें. अर्जुना मुखार दुसरो उपाय नाशिल्लो. घोडो थंयच दवरून तो चलूंक लागलो दोंगरावयल्यान पडिल्ल्यान ताजें सगलें आग दुखतालेंच. वयल्यन दोन दोन घोड्यांचे लुकसाण जाल्ल्यान ताजें मनय कश्टी जाल्लें. भूकेन ताज्या आंगांत चलपाचेंय त्राण उरुंक



नाशिल्लें. थंयच्याच एका रुखा पांदा अर्जुन रडत बसलों. तो रडटा ते पळोवन तेवटेन वचपी एका मनशान ताज्या म्हऱ्यांत वचून तो कोण, कित्याक रडटा काय म्हणून वासपूस केली. अर्जुनान ताका जाप दिली ना. थंयच्या कोणय मनशाकडेन उलोवंकच तो भियेतालो. पूण तो अनवळखी मनीस पळोवंक तरी मायेस्त दिसतालो. ताणें परतें परतें विचारतकीर अर्जुनान कितें घडलें तें थोडेभितर सांगलें. तें आयकून त्या मनशान कांय वेळ मोन्यानी चिंतलें आनी म्हळें, 'आमी राजा म्हऱ्यांत या. हांव तुजे घोडे तुका परते मेळोवन दितां.' अर्जुन अनमनलो, पूण आनीक लुकसाण जावपा सारकें ताजेकडेन कांयच उरुंक नाशिल्ल्यान तो त्या मनशावांगडा राजा कडेन गेलो. राजाक कितें सांगपाचें तें त्या मनशान अर्जुनाक वतना शिकयलें.

अर्जुनाची कागाळ आयकून घेवन राजान त्या जाण्टेल्याक आनी 'एक दोळो कुड्डुयाक' आपोवन हाडले. खटलो सुरू जालो. जाण्टेल्यान जेन्ना ते मेल्लो बेबो आपलो पोसको पूत अशिल्लो म्हणून राजाक सांगलें, तेन्ना अर्जुनान आपल्या फेट्यांतल्यान एक जिवो बेबो भायर काडून राजाक सागलें, 'म्हाराज, हांवें आतांच ह्या बेब्याक पोसको घेतलां. ताका हांव दोंगरा तळाक दवरतां. जसो हांव वयल्यान गडगडत येवन ताज्या बेब्याचेर पडिललों तसोच गडगडत येवन तणें ह्या म्हज्या पुताचेर पडचें आनी ताका चिडून मारचो.'



'राजाक अर्जुनाचें म्हणणें पटलें, 'तुजें म्हणणें सारके आसा, हातूत दूबाव ना. जाण्टेल्याचो प्रस्न सुटावो करूंक होच एक उपाय आसा.'

पूण दोंगरा माथ्यावयल्यान गडगडत येवंक जाण्टेल्याची तयारी नरशिल्ली. ताणें मोन्यानी अर्जुनाचो घोडो ताका परतो दिलो आनी थंयच्यान कूस मारली.

उपरान्त 'एक-दोळोकारी'ची पाळी आयली. ताणें आपली कांगाळ राजाक सांगतकीर अर्जुनान म्हळें, 'म्हाराज, म्हज्या बापायक तरातरांचे आनी विचित्र नाद आसात. तांतुतलो एक लोकांचे दोळे एकठांय करपाचो. आमचे कोठयेंत शेंकड्यांनीं दोळे आसात, हांव ह्या मनशाचो दोळो परतो दिवंक तयार आसां. पुण इतल्या सगल्या दोळ्यांतल्यान हाज्या दोळ्याचे जोडयेचो दुसरो दोळो सोदून काडटलो जाल्यार हाणें आपल्यालो आसा तो दोळो म्हजेकडेन दिवचो पडटलो. तो घेवन हांव घरा वतां, हाजो दुसरो दोळो सोदुन काडटां आनी दोनय दोळे घेवन परतो हांगा येतां.'

'तुजी कल्पना बरी आसा.' राजान म्हळें. हें आयकनाफुडें 'एक दोळ्या'न कळाव लायनासतना अर्जुनाचो घोडो परतो दिलो आनी एक दोळो फुटलाच, दुसरो तरी बरो उरूं म्हणून तो तुरतुरीत घरा गेलो.

मागीर त्या अनवळखी मनशान अर्जुनाक म्हळें, 'तुका परतो आनी कोणें त्रास दिवचो न्हय म्हणून हांव तुका शिमेमेरेन पावोवंक येतां.'

वाटेन उलयत वतना तो अनवळखी दुसरो तिसरो कोण नासून आपलोच भाव हें अर्जुनाक समजलें. जांणी ताका आपलो गुलाम कसो दवरिल्लो तो आनी ताजी बयल हालींच भायर पडिल्लो. थंयच्या लोकांचीं फटींगपणा ताचे सवकळीचीं आशिल्ल्यान तातुंतल्यान कशी वाट काडप हेंय तो जाणा आशिल्लो.

दोगय भाव त्या नावाडग्यांच्या देसांतल्यान भायर सरले. दक्षिणेकडल्या देशांत वचून तांणीं दोनय घोडे भरपूर मोलाक विकले आनी ते घरा परतले. तांकां पळोवन तांच्या बापायचे खोशेक शीम मेर उरली ना.





## राजाली सगंयात्रा

एका पिशा अगडबंब राजाच्या दरबारांत एक बारकेलो धूर्त मंत्री आशिल्लो. तो स्वताक व्हड बुदवंत समजतालो. आनी सगलो वेळ राजाची खुशामत करतालो. जेमेरेन तो बुदवंत मंत्री आपल्या वांगडा आसा तेमेरेन आपल्याक कसलोच हुसको ना अशे त्या पिशा राजाक दिसतालें.

राजा मंत्र्याकडल्यान तो आपल्याक सोडून वचचो ना अशें उतर भौन भौन घेतालो. मंत्रीय ताका दर फावटी, 'म्हाराज, तुमी सर्गांत आसूं ना जाल्यार नरकांत आसूं, हांव सदांच तुमच्या वांगडा रावन तुमकां योग्य तो सल्लो दितलों. जगातलो केदोय मोटो प्रश्न तुमचे मुखार उबो रावल्यार हांव तो सोडयतलों, अशें सांगतालो. हें आयकून राजाक खोस भोगताली.

एक दीस राजा सांजवेळचो न्हंयचे देगेर फिरूंक गेल्लो. परततना लागशिल्ल्या रानांतल्यान अकस्मात कोल्यांच्यो कुयो ताज्या कानार पडल्यो. तांच्या कुयां फाटलें कारण जाणून घेवचे खातीर ताणें मंत्र्याक सगळे कोले जूस्त आपल्या कानार पडपासारक्यो कुयो कित्याक घालतात काय म्हणून विचारलें.

मंत्र्यान जाप दिली, 'म्हाराज, अंदू शियांचो खर कुडकुडो पडला हें तुमी जाणातच. बाबड्या कोल्याकडेन उबेचे कपडे नात, तेखातीर आपल्याक कांबळी दिवच्यो अशी तांची नमळायेची मागणी आसा.'

'खरेंच? कोल्यांची भास समजूपी मंत्री खऱ्यानीच हुशार! तुका देव बरें अरूं. पूण कोल्यांकडेन कांबळी कशे नात?' राजान तिडकून विचारलें.

'जो अधिकारी आदार निधीचेर देखरेख दवरता, ताजे चुकीचो हो परिणाम.'

त्या अधिकाऱ्या विशीं मनांत किवाटो बाळगून आशिल्ल्या मंत्र्यान जाप दिली.

'केदी भयानक चूक त्या अधिकाऱ्याचे चुकेक लागून आमच्या कोल्यांक कांबळी बगर शियांत कुडकुडचें पडलें. आतां त्या अधिकाऱ्याकच एके कांबळींत गुटलायात आनी दर्यांत उडयात. मागीर शंभर नव्यो कांबळी हाडून त्यो म्हज्या इश्टांक–कोल्यांक वांटात.' राजान आज्ञा केली.

ताकतिकेचें सवंग करीत मंत्री गेलो, पूण ताणे राजाचे आज्ञेचो सुखेचो भाग तितलो पाळ्ळो. त्या बाबड्या अधिकाऱ्याका ताणें मरणाची ख्यास्त दिली. राजाच्या खजिन्यांतल्यान कांबळी घेवंक पयशे काडले. पूण कांबळी मात घेतल्यो नात.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळ परत कोल्यांच्यो कुयो राजाच्या कानार पडल्यो. राजान अजापान मंत्र्याक पळयलें.



'आयज परत कित्याक कोले कुयो घालतात?' मंत्र्यान हांसून म्हळें, 'म्हाराज, आयज ताजे फाटलें कारण वेगळें आसा. आयज ते तुमकां देव बरें करुं म्हण्टात.'

'आरे वा ! हें म्हजे तकलेंतच येवचें नाशिल्लें. म्हज्या मंत्र्याइतलो बुदवंत मंत्री खंयच्याच राजाच्या दरबारांत नासतलो ! जगांतली सगली बुदवंतकाय म्हज्या दरबारांत आसा. तूं म्हाका केन्नाच सोडून वचचो ना म्हणून उतर दी.'

'म्हाराज, हांव केन्नाच तुमकां सोडून बचचों ना. तुमी सर्गांत आसूं नाजाल्यार नरकांत आसूं, हांव सदांच तुमच्या सांगाता आसतलों.' मंत्र्यान नमळायेन सांगलें.

हें आयकून राजा खुशाल जालो. पूण खोस चड वेळ तिगली ना. एक ल्हान रानदुकर अकस्मात मुखावयल्यान धांवत गेलो. राजा केन्ना शिकारेकय वच आशिल्लो आनी आपलें राज्य सोडून हेर खंयच भोंवडेक वचनाशिल्लो, देखून ताणें केन्ना रानदुकर पळोवंक नाशिल्लो.

'आरे बाबा ! हें कसलें जनावर?' ताणें अजापान मंत्र्याक विचारलें.

मंत्र्यान रानदुकर जायते फावटीं पळयिल्लो, पूण ताका सदांचेवरी राजाचे अबुद्धीपणाचो फायदो घेवपाचो आशिल्लो. देखून ताणें म्हळें, 'म्हाराज हो तुमचो एक हती. हतयांचेर



देखरेख दवरपी जो अधिकारी आसा, ताणें ताज्या खाणाजेवणाकडेन वेवस्थीत दक्ष दिवंक नाशिल्ल्यान ताजी ही अवतिकाय जाल्या '

राजा रागान थरथरलो. ताणे रोखड्यारोखडी त्या अधिकाऱ्याक मरणाचची ख्यास्त फर्मायली. आनी सरकारी खजिन्यांतल्यान जाय तितले पयशे काडून हतयाक घटमूट करूंक मंत्र्याक सांगलें.

मंत्र्यान सरकारी खजिन्यांतल्यान दुडू काडून आपली तिजोरी भरली हें सांगचेली गरजच ना. हाजेवयल्यान एक म्हयनो गेलो. राजा सांजचो भोंवन परत येतना जुस्त ताका तोच रानदुकर परत दिसलो.

'आमी फाटीं उपाशी हती पळयिल्लो तो होच न्हय? आजून ताजी भलायकी सुदारली ना?' राजान मंत्र्याक विचारलें.

हाजेर तोंड पेंचून हांसत मंत्र्यान म्हळें, 'ना म्हाराज, तो हती आतां तुमचेवरी थुलथुलीत जाला. हो जो आतां हेवटेन गेला तो सादो हुंदीर. शाही रांदचे कुडींतलें मचमचीत जेवण जेवन तो असो फुगला. तुमचो मुखेल रांदपी अन्नाची कशी वाट लायता तें हाचेवयल्यान कळटा.



राजाचें तोंड रागान तांबडेगुंज जालें. जें अन्न जेवन म्हजी भलायकी सुदारपाची ताजेर ताव मारून हो हुंदीर फुगला ही केदी खंतीची गजाल !' अशें म्हणून ताणें रातीचें जेवण रांदून जातकीर रांदप्याक गोळाक लावपाचें फर्मान सोडलें.

ही गजाल कळटीकीर रांदपी गुपचुप मंत्र्याक वचून मेळलो. पयशांची थैली ताज्या हातार दवरुन ताणें राजाखातीर जेन्ना जेन्ना खास पंचपक्वान्नां करता तेन्ना तेन्ना तातुंतलो कांय वांटो नुलयत मंत्र्यागेर पावोवचेलें उतर दिलें.

मंत्री खुशाल जालो. रांदप्याक धीर दित ताणें आपूण कसोय करून तुका वाटायतां. तूं भियेवनाका अशें सांगलें.

मध्यान राती राजासामखार रांदप्याक गोळाक लावचली तयारी चलिल्ली. इतल्यांत 'रावात, रावात' अशें म्हणत मंत्री ताकतिकेन थंय आयलो. राजाकडेन पळयत ताणें म्हळें, 'म्हाराज, हांवे आतांच पंचाग पळयलें. कितें सांगतलों तुमका ! हें मध्यान रातीचें वर कितलें शुभ आसा म्हणून सांगू? ज्या कोणाक आतां गोळाक दितलो, तो बद्द सर्गार वतलो. म्हाराज, ह्या रांदप्याक आतां गोळाक लावप म्हळ्यार ताका ख्यास्त न्हय, तर तस्त्रीप दिवप जातलें. जाणें तुमच्या बदला एका हुंदराक मचमचीत अन्न खावयलें, ताका सर्गार धाडप योग्य जातलें?



मंत्र्याक खात्री आशिल्ली, आपणें थोडो वेळ ही गोळाक लावचेली कार्यावळ मुखार धुकलली जाल्यार राजा ती पुराय विसरून वतलो. कारण राजाक कसलीच गजाल धड याद उरनाशिल्ली.

पूण मंत्र्याचीं उतरां आयकून राजान दुण्ण करून उडी मारली आनी म्हळें, ‘उत्तम जालें. खूब दिसांसावन सर्ग पळोवचेली म्हाका उकळशीक लागिल्ली.’



मागीर ताणें नवें फर्मान सोडलें, 'कळाव लाय नासतना म्हाका गोळाक लायात.' पूण गोळाचे दिकेन वतां, वतां तो मदींच रावलो आनी ताणें मंत्र्याक पळयत म्हळें, 'म्हज्या मोगाळ मंत्र्या, तुवें सर्गांत म्हज्या सांगाताक आसतलो म्हणून म्हाका उतर दिल्लें तें तूवें आता पाळूंक जाय. आतां तुवेंच म्हाका वाट दाखोवंक जाय.'

मंत्र्याक आपले पयलीं गोळाक लावंक राजान शिपायाक सांगलें. भयान थरथरपी मंत्र्याच्या तोंडांतल्यान उतरां भायन सरचेपयलींच शिपायांनीं ताका ओडून वयर व्हेलो आनी कळाच करी नासतना गोळाक लायलो. इतले ताकतिकेन, तत्परतेन तांणी तें काम केल्लें पळोवन राजा खुशालभरीत जालो. मंत्र्याक गोळाक दिवन जातकीर राजाचे इत्सेप्रमाण शिपायांनी राजाकय गोळाक लायलो.





# बुदवंतकायेची मागणी

एक फावट एक राजा भेस बदलून मिर्गांतले काळखे राती एका अरूंद रस्त्यावयल्यान वतालो. असो भेस बदलून आपल्या राज्यांत भोंवडी करून आपली प्रजा कशी जियेता हें तो पळयतालो.

ते रातीं पावसान तो चिप्प भिजलो. पूण ताका ओलसाणेची पर्वा नाशिल्ली. काळखाची आनी संकश्टांचीस ताका भिरांत दिसनाशिल्ली. देखूनच तो सवकास पूण सादूरकायेन मुखार वतालो.

ताका कळनासतना धा बारा चोर ताज्या फाटोफाट वताले. राजा ज्या घोड्यार बसून वतालो तो ताचे नदरेंत भरिल्लो आनी तो चोरपाचो तांचो हेतू आशिल्लो. अकस्मात तांणी राजाक गराडो घालो. घुरी अचकीत जाल्ल्यान राजाक अजाप जालें, पूण तो भियेलो ना.



तांचे मदल्यान वाट काडून ताणें घोडो भरधांव ङोडलो. पूण दुर्दैवान घोड्याची टाप रस्त्यावयले खांचींत शिरकली. चोर राजाचेर तुटून पडटले इतल्यांत फाटले वटेनच्यान स तरनाटे ताजे मदतीक धांवन आयले. हे अचकीत घाल्ले घुरयेन चोर गोंदळ्ळें आनी राजा वाटावलो. जेन्ना राजा भेस बदलून भोंवडेक भायर सरतालो, तेन्ना ताजे राखणदार अंगरक्षक कांय अंतर सोडून ताज्या फाटोफाट वताले ! हो सगळो बोवाळ जाता म्हणसर तेय थंय पावले आनी सगल्यांनी मेळून चोरांक धरले.

त्या स तरनाठ्यांक आपणें जाचो जीव वाटायला तो राजा म्हणचेलें खबर लेगीत नाशिल्लें. नकळटां तांणी राजाची सेवा केल्ली देखून राजा तांचेर प्रसन्न जालो आनी तांचे उपकार मानून ताणें तांकां आपल्या वांगडा राजवाड्यांत व्हेले.

ते तरनाटे वेगवगळ्या गांवांतल्यान आयिल्ले, हांगा येतकीर एकठांय राविल्लेंकडेन तांची एकामेकांकडेन वळख जाल्ली. सकाळ म्हणसर रातीची गजाल सग्ल्याक पातळ्ळी. राजाचो जीव वाटावलो म्हणून सगलेच खोशी जाले. राजाचो परिवार, कुटुंबीय, मंत्री, हेर दरबारी आनी राज्यात्ल्या सगल्या लोकांनी त्या तरनाठ्यांची भोव तुस्त केली.

राजा दरबारांत येतकीर ते सय तरनाटे ताजेमुखार हजर जाले. राजा आपल्या सिंहासनावयल्यान उठून सकयल आयलो आनी ताणें तांकां वेंग मारली. तांणी केल्ले सेवेखातीर तांचो भौमान करचेली इत्सा राजान उलोवन दाखयली.

'तुमचे पैकीं जण एकल्यान खोस जायत अशें कितेंय म्हजेकडेन मागचें. तुमची इत्सा म्हजे तांकीभायली वा शक्ती भायली नासली जाल्यार हांव रोखड्या रोखडी ती भागयतलो.' राजान तांकां सांगलें.

सय तरनाठ्यां मदलो जो व्हडलो आशिल्लो ताका पयलीं आपली इत्सा सांगूक लायली. खीणभर चिंतून ताणे म्हळें, 'म्हाराज, सोबीत अशा बंगल्यांत रावपाची म्हजी खूप दिसां सावन इत्सा आस. तुमी ती पूर्ण करशात? राजान रोकडोच वास्तुशिल्पकाराक आपोवन हाडलो आनी त्या तरनाट्याखातीर एक आलीशान बंगलो बादूंक सांगलें.

दुसऱ्या तरनाठ्याक लोकांनी आपल्याक प्रतिश्टीत म्हणून वळखूचें अशें दिसतालें. राजान ताका सरदार करुन आपल्या दरबारांत भोव मानाचें स्थान दिलें.

तिसऱ्या तरनाठ्यान म्हळें, 'म्हाराज,दर आठवड्याक म्हज्या गांवचे लोक शारांत फळां, भाजी, विकूंक येतात. पूण रस्ते बरे नाशिल्ल्यान तांकां खूप त्रास जातात. पावसा दिसांनीं तर खूबच ! तेखातीर गांवांतले रस्ते सारके करचे हीच म्हजी इत्सा.'

राजान मान्यताय दिली आनी बांदकाम खात्याच्या मंत्र्यान रोखडीच ते गजालीची नोंद करुन घेतली.

चौथ्या तरनाठ्याक विचारतकीर ताणें लजेन म्हळें, 'म्हाराज, तुमी म्हाका बापायसमान, म्हजेखातीर एक सोबीत व्हंकल सोदून काडात.'

राज्याच्या दरबारांत खुशमस्करो आशिल्लो, ताजे सोबीत धुवेचें लग्न त्या तरनाठ्या वांगडा करुंक राजान ताका सांगलें. तोय खोशेन तयार जालो.

पांचव्या तरनाठ्याक गिरेस्तकाय जाय आशिल्ली, ताका राजान भांगरान भरिल्ल्यो थैल्यो दिल्यो.



निमाणेकडेन सव्या तरनाठ्याची पाळी आसली. ताणे म्हळें, 'म्हाराज, जेमेरेन आमच्या दोगांय मदलो एकलो कोणय मरना, तेमेरेन वर्सांतल्यान एक फावट तुमी म्हगेर सोयरे म्हणून येवचें.'

हीं उतरां आयकून सगल्यांक अजाप जालें. जायत्या जाणांनीं ताका पिशार काडलो.



राजाकय ताजी इत्सा विचित्र दिसली. पुण आपले तांकीभायली नासली जाल्यार आपूण ताजी इत्सा पुराय करतलों अशें उतर राजान ताका दिल्लें आशिल्ल्यान दर वर्सा एक दीस आनी, एक रात त्या तरनाठ्यागेर रावपाचें राजान मान्य केलें.

राजान हें मान्य करतकीर ताणें हे वर्सुकी भेटीची सारकी वेवस्था पळोवपाची जापसालदारकी ताज्या दरबारांतल्या वेगवेगळ्या खात्यांतल्या लोकांचेर येवन पडली.

पयली गजाल म्हळ्यार राजाचो प्रवास बरे तरेन जावचो म्हणून त्या तरनाठ्याच्या गांवामेरेन बरो रस्तो बांदून घेवचो पडलो.

मागीर प्रस्न उप्रासलो तो येदो व्हडलो राजा त्या तरनाठ्याच्या ल्हानशा घरांत कसो रावतलो हो. म्हणटकीर राजाच्या मुक्कामाक फाव सारको भव्य वाडो तांकां बांदचो पडलो. येद्या व्हडल्या वाड्याची देखरेख, शिवाय राजा आनी ताजे सेवक हांची जुस्ताजूस्त सरबराय हें सगळें, तरनाठ्याचे इल्लेशे येणावळीचेर शक्य नाशिल्लें देखून भांग्रान भरिल्ल्यो थैल्यो आनी वर्सुकी येणावळ ताका चालू करची पडली.

चलत आयिल्ले प्रथेप्रमाण राजा फकत राजघराण्यांतल्या कुटुंबांचोच सोयरो जावं येतालो. म्हणटकीर त्या तरनाठ्याकय राजकुंवराचो दर्जो दिवचो पडलो. आनी त्या दर्जाक फाव तसो मान भौमान ताका प्राप्त जालो.

तरीकय अजून आनीक एक गजाल उरिल्ली. राजा सोयरो म्हणून वता त्या घरचे यजमान्नीक राजघराण्याच्यो चाली-रिती, राजाच्या जेवणाची आवड-निवड हें सगळें खबर आसचें पडलें. राजाचे धुवेबगर आनीक कोणाक तेविशीं चड बरी खबर आसतली? देखून रोखडीच राजकुंवरीच्या आनी त्या तरनांठ्याच्या लग्नाची तयारी सुरू जाली.

अशे तरेन राजाकडेन फक्त एकच मागणी मागून त्या तरनाठ्यान आपल्या इश्टानीं मागिल्ल्यो पांच मागण्यो तर मेळयल्योच, शिवाय आनीकय खूब खूब जोडलें.





# तोंडी वव्हार

एक दीस एक जाण्टो मनीस एका गांवांतल्यान वतालो. वतां वतां एका घरांतल्यान पदाचे गोड सूर ताज्या कानार पडले. पद सोपसर तो थंयच रस्त्यार उबो रावलो आनी मागीर घरालागीं वचून ताणें जनेलांतल्यान भितर पळयलें. गावपी एक ल्हान चली आशिल्ली. ताणें लक्तुबायेन तिका भांगराचें एक पोवन दिलें.

ते चलयेचो बापूय-मोहन लागींच उबे आशिल्लो. अचकीत मेळिल्लें तें पोवन पळोवन तो खुशाल जालो. चलयेच्या हातांतल्यान ताणें बेगिबेगीन तें कांडून घेतलें, आनी धंयच्यान वचूंक परततल्या जाण्टेल्याक आडायत म्हळें, 'राव, राव. उरिल्ले दुडू केन्ना फारीक करता?' जाण्टेलो आजापान मोहनाक पळयत उरलो. 'हें पळय जाणटेल्या, म्हजे धुवेचें गायन आयकुपाचें मोल एकच पोवन न्हय तर धा पोवनां. णव पोवनां तूं तितले बेगीन दिशी तितलें बरें जातलें.

जाण्टेल्याक मोहनाची वृत्ती कळुंक चड कळाव लागली ना. पूण ताणें सवंग

पांगुरलें आनी म्हळें, 'हे सान गायिकेचो तूं म्हान बापूय ! आतां ह्या खिणाक म्हज़ेकडेन आनीक पोवनां नात हें तुका सांगूंक म्हाका वायट दिसता. पूण हांव तरी कितें करूं?'

'पोवनां नात जाल्यार तूं म्हाका तुजी तोपी, भांगराची सरपळी आनी बूट दी.' मोहनान जाप दिली.

'बरेभशेन. तुजे इतले बुदवंताचे तकलेर ही तोपी सोबतलीच. आनी जे गचेचेर तुजी ही बुदवंत तकली आसा ते गचेक ही भांगरा सरपळीय पावता. पूण म्हज्या इश्टा, ह्यो सगल्यो पोन्न्यो वस्तू. तांकां चड मोल ना. तेपरस तूं म्हज्यावांगडा म्हज्या घरा कित्याक येना? थंय तुका हांव व्हडा खोशेन शंभर पोवनां दिन. हांवें जें पोवन येदोळ दिलां, ताजीय चकचकसाण उणी जाल्या. तुवें म्हज्यावांगडा येवचें थारायलें जाल्यार तें पोवनय परतें दी.'

'शंभर पोवनां? तूं खऱ्यांनीच भोव बरो मनीस. तूं खंय रावता? खंयय रावं ! शंभर पोवनां खातीर हजार मैल लेगीत चलूंक हांव तयार आसां.' मोहनान भुरकुटून म्हळें.

'ना, ना. तितलें चलपाची गरज ना. फकत तीन मैल चलचें पडटलें.' जाण्टेल्यान सांगलें.

मोहनान रोखडेच आपल्याकडचे पोवन जाण्टेल्याक परतें दिलें आनी शंभर पोवनांचे आशेन तो ताजे फाटोफाट चलूंक लागलो.

चलतां. चलतां मोहनच्या काळजांत खोशेचीं ल्हारां फुट्टालीं.

'हांव शंभर पोवनांचे कितें करललों जाणा तूं?' ताणें जाण्टल्याक विचारलें.

'ना.'

'हांव राजाच्या वाड्यापरसय व्हड आनी दोळे दिपकावपी वाडो बांदतलों.'

'अशें?'

'आनी हांव राजकुंवरीक लग्नाची मागणी घालतलों.'

'ओर, पूण तूं तर लग्न जाला आनी तुका एक धुतूव आसा.'

'तातूंत कितें? हांव परतो लग्न जातलों आनी तेंयबी राजकुंवन्नी कडेनच.'

'अशे?'

उलयतां उलयतां ते राजवाड्यासामखार पावले. जाण्टेलो राजवाड्याचे दिकेन वता तें पळोवन मोहनान म्हळें, 'तूं तेवटेन सो वता?'



'म्हजें घर तें.' जाण्टेल्यान जाप दिली.

मोहनान बारीकसाणेन जाण्टेल्याक पळयलें तेन्ना ताका तोच राजा म्हणून समजलें. राजा भेस बदलून आशिल्ल्यान इतलो वेळ मोहन ताका वळखूंक नाशिल्लो.

ताज्या तोडांतल्यान उतरां फुटना जालीं. राजान थंडसाणेन म्हळें,

'तूं सान गायिकेचो म्हान बापूय खारो, पूण आतां तूं वच. धुवेच्या म्होंवाळ गितान म्हाका पांच मिनटां खोस दिली. हांवें तुका शंबर भांगराची पोवनां दिवपाचें उतर दिवन पांच मिनटांच्या बदला एक वरभर खोस दिली. तुजे धुवेच्या सुरांनी म्हाका खोस दिली आनी म्हज्या उतरांनी तुका खोस दिली. बादाक बाद जालें ना? पूण इनल्यान सोंपलें ना. तुज्या आशा भगतपणाक लागून म्हाका जाल्ली खोस नाच जाली आनी मनांत खंत रिगली. हो सगलो वेव्हार जुस्ता जुस्त जावचो म्हणून खोशे अपरान्त तुवेंय निराश जावचें हाजी हांवें वेवस्था केली. आतां तूं हागाचो चलूंक लाग.'

मोहन निराश जावन आपल्या नाशिबाक दुशण दित घरा परतलो. मेळिल्ले एक पोवन लेगीत ताज्या आशाभगतपणाक लागून ताज्या हातांतल्यान गेल्लें.



# सर्वश्रेष्ठ न्हवरो

शरयू न्हंयचे देगेर एक मांत्रीक आनी ताजी बायल रावतालीं. तीं एके ल्हानशे खोपींत रावतालीं आनी गांवांतले लोक जें कितें दियी, ताजेर दीस सारताली. घरांत भोव गरिबी आशिल्ली.





तांकां भुरगें नाशिल्ल्यान मांत्रिकाची बायल कश्टी जाताली आनी कोणाल्याय भुरग्याक पोसकें तरी घे म्हूण घोवाच्या फाटी लागताली. पूण तांचे गरिबीक लागून कोणच आपल्यालें भुरगें तांका दिवंक तयार नाशिल्लो.

मांत्रीक गरीब आशिल्लो खरो, पूण मंत्र विद्येंत भोव पारंगत आशिल्लो. एक दीस दोगांय खोपीच्या दारांत बशिल्लीं आसतना उडत वचपी एका कावळ्याचे चोंचींतल्यान एक हुंदीर सकला पडलो. मांत्रिकाचे बायलेन ताका उबारून सांसपीत घोवाक म्हळें, 'आमकां काय कोण भुरगें दिवचो ना. म्हणटकीर तुमच्या मंत्राच्या बळान ह्या हुंदराचें तुमी भुरगें कित्यात करिनात?'



मांत्रिकान हांसून मंत्र म्हळे आनी कमंडलूंतलें तीर्थ हुंदराचेर फापुडलें मात, हुंदराची एक सानुली. सोबीत चली जाली.

मांत्रिकाचे बायलेक उपाट खोस जाली. ते चलयेंक खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें तिका जालें. जें कितें ताका मेळटा तांतुंतले बरें तिणें ताका खवोवयें. अपुरबायेन तांणी तिका 'हुंदुल्ली' अशें नांव दवरलें.

दिशीं माशीं हुंदूल्ली व्हड जाली. मांत्रिकान आनी ताजे वायलेल तिका सुखांत वाडयलें, बरें शिक्षण दिलें. हुंदुल्ली सगल्या कलांनीं पारंगत जाली. आतां ती व्हंकल जाल्ली. मांत्रिकान तिजेखातीर न्हवरो सोदचेलें. थारायले बायलेन ताका म्हळें, 'तुमच्या मंत्रान तुमी सुपुल्ल्या हुंदराची सोबीत चली केली; आतां त्याच मंत्राच्या बळार तुमीं तुमचे धुवेखातीर तिका सोब सारको न्हवरोय सोदून काडूंक जाय.'

'बरे भाशेन' मांत्रिकान म्हळें, 'म्हज्या उतराक मान दिवन सुर्या लेगीत आमचे धुवेवांगडा लग्न जांवक तयार जातलो.'

'खऱ्यानीच तुमी इतले बळिश्ट? तशें जाल्यार सुर्याक म्हजो जांवय करूंक म्हाका भोव खोस भोगतली. तुमी सांगलां तें खरें करून दाखयात.'

'बरें आसा.' मांत्रिकान दोळे धांपून घेतले आनी तो ध्यानस्थ बसलो. अचकीत सुर्य थंय प्रगट जालो. मांत्रिकान ताका आपले धुवेवांगडा लग्न जावंक सांगलें सुर्यान म्हळें, 'म्हजी कांय हरकत ना. पूण तुजी चली म्हज्यावांगडा लग्न जावंक तयार आसा?

मांत्रिकान आपले धुवेका आपोवन विचारले तेन्ना तिणें म्हळें, 'बाबा, हो न्हवरो एकदम बरो आसा, पूण हाजो ताप म्हज्यान कसोच सोसूंक जावचो ना. हाजे परस बरो आनी बळीश्ट दुसरो कोणय पळय.' सुर्यान म्हळें, 'म्हाका दिसता, म्हजेपरस बळीश्ट ढग. तो म्हजो पर्जळ उणो करता आनी केन्ना केन्ना म्हाका धर्तरेचे लेगीत करता.'

हें सांगून सुर्य थंयसून कडसरलो. रोकडोच ढग थंय हजर जालो.

हें खेपेक मांत्रिकान धुवेकच ती ढगावांगडा लग्न जावंक तयार आसा काय कितें हें पयलीं विचारलें. तिणें म्हळें, 'न्हवरो तसो बरो आसा बाबा, पूण तो रंगान बरोच काळो आसा. हाजेपरस बारो आनी बळीश्ट दुसरो न्हवरो ना?'

मांत्रिकान प्रश्नार्थक नदरेन ढगाक पळयलें. ढगान म्हळें, 'वारो म्हजेपरस बळीश्ट. म्हाका तो मळबाच्या ह्या पोंतारसून त्या पोंतार पावयता.



ढग गेलो आनी दुसऱ्याच खिणाक वारो थंय आयलो. हुंदुल्लेन ताका पळोवन म्हळें, 'बाबा हो सामकोच चंचल. म्हाजेपरस बरो आनी बळीश्ट दुसरो कोण ना?'

मांत्रिकान काचाबूल जावन हेवटेन तेवटेन पळयलें. वाऱ्यान म्हळें, 'हुस्को करूं नाका. पर्वत म्हजेपरस व्हड आनी बळीश्ट आसा. ताजेमुखार म्हजी शक्त कांयच न्यह. हांव ताका जाग्यावयल्यान मातय हालोवंक शकना. तुजे चलयेक तो सेर्त मानवतलो.

वारो वतकीर फाटोफाट पर्वत थंय आयलो. ताजेकडेन पळोवन हुंदुल्लेन म्हळें 'बाबा, हो पळोवंक शिटूक दिसना. हाजेपरस बरो आनी बळीश्ट आनी कोणच ना?'

पर्वतान रोखडीच जाप दिली. 'आसा तर हुंदीर हो एकच असो प्राणी आसा, जो म्हज्या आंगाक बिळां करपाइतलो धीट आसा. तुजे धुवेक जोडीदार म्हणून तो बरो सोबतलो.

पर्वत थंयच्यान गेलो आनी रोखडोच हुंदीर आयलो. हुंदूल्लेन ताका पळयला मात, खोशेन मुरुगुटून तिणें बापायक म्हळें, 'बाबा, हो न्हवरो खऱ्यानीच बळीश्ट आनी शूर जावन आसा. इतलो बरो आनी म्हान न्हवरो तुज्या दोळयांपुखार आसतना तूं सुर्य, वारो,

पर्वत हांका सो हांगा आपयतालो? पूण तें आसूं आतां आनीक कळाव लायनासतना म्हजें ह्या सगल्यांपरस श्रेष्ठ न्हवऱ्यावांगडा लग्न लावन दी.

अशे तरेन हुदूल्लेचें लग्न हुदराकडेन जालें आनी ती अपलें कुळार सोडून ताज्यावांगडा रावंक गेली.

हे जें कितें घडलें तें सगलें मांत्रिकाचे बायलेक भोव आजापाचें दिसलें. तिणें घोवाक म्हळें, 'सगलेवटेन श्रेष्ठ आनी बळिश्ठ न्हवरो हुंदुल्लेक मेळचो अशें म्हाका दिसतालें. पूण हुंदुल्लेक श्रेष्ठ आनी बळिश्ट दिसलो तो एक सादो हुंदीर नशीब तिजें!





# आपलें नशीब बदलुपी राजकुंवर

एक अटंग्य रानांत कुमार नावांचो एक भुरगो आपलें आवयवांगडा रावतालो. तांच्या घरा लागसार दुसरें घरच नाशिल्लें. चोंयवटेन नदर भोवडायल्यार दिश्टी पडटाल्यो त्यो फकत झाडांच्यो रांगांच्या रांगो, सायल, शिसो, तरांतरांचीं झाडां आनी कानार आवाज पडटालो तो फकत वझऱ्यांचो खळखळ, जनावरांचें रडप आनी सुकण्यांचो चिंवचिंवाट हाचो.

जेन्ना कुमार काम करपा येदो व्हड जालो तेन्ना ताणे रानांत सावजां धरचेखातीर सांजेचीं जाळां मांडून दवरचीं. सकाळ म्हणसर एक कस्तुरमृग ताज्या जाळ्या शिरकतालो. दोन तीन दिसांनी एक वेपारी येवन तें घेवन वतालो आनी ते बदला कपडे आनी जेवणखाणाच्यो वस्तू तांकां दितालो. कुमाराखातीर तो वाचूंक पुस्तकांय हाडटालो.

पैसूल्ल्या गांवांतले कुमारायेदे भुरगेय केन्ना त्या रानांत, फळां, पाळां मुळां आनी मोरांचीं पांखां पुंजावंक येताले. तांकां सगल्यांक कुमार भोव आवडटालो. एक दीस तांणी कुमाराक म्हळें, 'आमकां सदांच तुज्या वागडां खेळन नाचन कशें दिसता; पूण आमकां जाय तेन्ना ह्या रानांत इतले पैस आमी येवंक शकनात. हांगा येवचेली वाट लेगीत भोव भिरांकूळ आसा. तेपरस तुमीच आमच्या गांवांत येवन कित्याक रावनात? अशीं एकटींच इतले पैस रावपांत कितें अर्थ आसा?

इश्ट वतकीर कुमार धांवत आवय म्हऱ्यांत गेलो आनी ताणें विचारलें, आई, आमीच कित्याक ह्या अटंग्य रानांत एकलींच रावतात? म्हजे सगले इश्ट एकामेकाच्या शेजरा रावतात. आमीय थंयच वचून रावंया?

ताजी आवय ओगीच रावली. पूण कुमारान् परतें विचारलें तेन्ना तिणें म्हळें, 'पुता, आमकां ह्याच रानांत सगली जीण सारूंक जाय. हेरांवांगडा वचून रावल्यार आमच्या आमच्या जिवाक भिरांत आसा. हाजे परस चड हांव तुका सांगूंक शकना.

आपल्याक आनीक सांग म्हणून कुमारान आवयक धोंसलें. तिणें म्हळें, 'ना पुता, हाजेपरस चड तुका कळ्ळ्यार तुकाच दुःख जातलें.'

'ना आई. तुवें कितलीय वायट गजाल सांगल्यार लेगीत हांव मातय मनाक लावन घेवचो ना.' कुमारान म्हळें.

ताजे आवयच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. तीं पळोवन कुमारान मायेन म्हळें, 'आई, तुका इतलें वायट दिसता जाल्यार तूं म्हाका कांय सांगूं नाका.'

'ना' ताजे आवयन म्हळें, 'घडये तुका सगळें सांगचेलो आतां वेळ आयला. तुका सगळें खबर आसल्यार तूं सरदूर रावतलो; अशें म्हणून ताजी आवय ताका आपली काणी सांगूक लागली. 'तूं एका वर्साचो आशिल्लो तेन्नासावन आमी ह्या रानांत रावतात. ताजे पयलीं आमी स्वंय रावतालीं हें सांगल्यार तुका अजाप जातलें. तुजो बापूय राजा आशिल्लो. आमी राजवाड्यांत रावतालीं. तूं ताजो एकलोच पूत देखून ताजे फाटल्यान तूंच राजा जावपाचो. पूण दैव आड आयलें. तुजो जल्म जालो ते रातीं सगल्या राजवाड्याक परबेची सया आयिल्ली. खूब शिणिल्ल्यान म्हाका गाढ न्हीद लागिल्ली. मध्यान रातीं म्हाका अकस्मात जाग आयली. म्हजे भोंवतणच्यो दासी आनी दायो सगलीं न्हिदून पडिल्लीं. इतल्यांत एक तेजस्वी बायल म्हज्या महालांताल्यान भायर सरतना

म्हाका दिसली. भूरगें जल्मतकीर भाग्यदेवी येवन ताज्या कपलार ताजे फुडले जिणेंत जें कितें घडटलें तें बरयता. अशें हावें आयकल्लें. हरशीं भाग्यदेवी केन्ना येवन वता हें कोणाक कळना. पूण चुकून एकाद्र्याक ती दिश्टी पडटा.

तेजस्वी बायल दुसरी तिसरी कोण न्हय तर भाग्यदेवी हें रोखडेंच म्हज्या लक्षांत आयलें. हांवें धांवत वचून तिका नमस्कार केलो आनी तुज्या भाग्यांत कितें आसा तें म्हाका सांगूंक विनयलें.

पूण ती तें सांगूंक तयार जायना जाली. पूण हांवय हट्टाक पेटिल्लीं. देवतेन म्हाका तें सांगलें ना जाल्यार तिका म्हालांतल्यान भायर वचूंक दिवचें ना अशें जेन्ना हांवें सांगलें, तेन्ना तिका उपाय नासून म्हाका सगळें सांगचें पडलें. पूण तिजीं उतरां आयकून आंगार जोगूलच पडलें अशें म्हाका दिसलें. तुका सदांच आपली जीण गरिबकायेत सारची पडटली अशें तिणें म्हाका सांगलें.'



'उपरान्त रोखडोच तुजो बापूय अपघतांत भायर पडलो. तुज्या बापायचो जाचेर भरवंसो आशिल्लो त्या प्रधानमंत्र्यान आमकां दोगांकय मारचेलो कट रचलो. पूण आमच्या बऱ्या नशिबान्न म्हाका त्या कटाची सुलूस लागली. जीव आसल्यार भीक मागून खायन अशें चिंतून एके रातीं संद सादून हांव तुका घेवन ह्या रानांत पळून

आयलीं. तो दूश्ट प्रधानमंत्री आतां राजा जाला. आमी ह्या रानांत आसात हें ताका खबर ना. कळ्ळयार तो आमकां मारचेलो नक्कीच यत्न करतलो. देखून हांव हांगासावन वचूंक सोदना.'

'गरिबकायेन दीस काडचे पडले तरी तूं केन्नाच उपाशीं पडचो ना हाजी भाग्यदेवीन खात्री दिल्या. कारण दर रातीं एक कस्तुरमृग तुज्या जाळांत सांपडटलोच अशें तुज्या नशिबांत आसा. ते खातीर इतलीं वर्सां हांवे रानांत जाळां माडटालें. फाटलीं दोन वर्सां तूं तें काम करता. तुका कश्ट पडटात तें पळोवन म्हजें काळीज रडटा; पूण म्हज्या पुता, हेंच काम करीत तुका तुजी जीण सारची पडटली.

कुमारान चित दिवन आवयचें उलोवणें आयकलें. काय वेळ चिंतल्या उपरांत ताणें म्हळें.

'आई, तूं राजाची राणी आशिल्ली, फुडे राजमाताय जावचेली, पूण तरी तुका ही असली जीण जियेवची पडटा म्हणून म्हाका खंत भोगता. म्हजी गजाल वेगळी आसा. हांवें जल्मतसावन दुसरे तरेची जीण पळोवंकूच ना. रानांतली जीण म्हाका कश्टाची दिसना. पूण आतां म्हाका हांव कोण हें समजलां आनी प्रधानमंत्र्याची नाडबुद्धीय उमगल्या. देखूनच मोन्यानी गप्प बसप म्हाका जमचेलें ना. म्हज्या बापायचें राज्य परत मेळोवचे खातीर म्हाका यत्न करचेच पडटले.

ताजे आवयन म्हळें, 'पुता, अशें उचांबळ जावन कांयच जाचचें ना. तुज्या नशिबांत जें आया तें तुका भोगचेंच पडटा.'

'तशें जाल्यार म्हजें नशीब म्हाका बदलचें पडटलें.' कुमारान निर्धारान म्हळें. ताजेवयर परत कितेंय म्हणप ताजे आवयक समा दिसलें ना. ती ओगीच रावली.

खूब वेळ कुमार चिंततालों. मागीर अचकीत ताजें तोंड खोशेन फुललें. ताणें म्हळें, 'आई, भाग्यदेवीन दर रातीं एक कस्तुरमृग म्हज्या जाळांत पडटलो अशें म्हज्या नशिबांत बरयलां म्हणून तुका सांगलां?'

'हय' आवयन जाप दिली.

'बरें आसा. दैवा वांगडा झूज मांडूंक म्हाका तितलेंच पुरो.'

ते राती सदचेवरी खूबकडेन जाळां मांडचे बदला कुमारान पांचच जाळां मांडलीं. दुसऱ्या दिसा पळयत जाल्यार एका जाळांत एक कस्तुरमृग आशिल्लो. दुसऱ्या दिसा ताणें

एकच जाळ मांडलें. सकाळीं तातूंत एक कस्तुरमृग आशिल्लो.

मागीर सदांच्या जागांनी जाळ मांडचें बदला कुमारान तें आपले खोपीच्या छपरार मांडलें. तरी आसतना सकाळीं तातूंत एक कस्तुरमृग आशिल्लो.

उपरान्त कुमारान जाळ एका व्हडल्या रुखाचे तेंगशेर मांडलें. सकाळीं पळयत जाल्यार थंय एक कस्तुरमृग. दुसऱ्या दिसा कुमारान परत करवाचे तेंगशेर जाळ हुमकळायलें आनी सकयल सरभोंवतणीं जाळ पेटयलो. रातची अकस्मात ताका जाग आयली. पळयत जाल्यार ताज्या हातुणाम्हऱ्यां कोण तरी खरशेताली. एक अनवळखी बायल ताजेमुखार उबी आशिल्ली. तेजस्वी पूण अर्दी हुळपल्ली. ती भाग्यदेवी आशिल्ली.

तिणें कुमाराक रागान विचारलें, ‘तूं जाळ रुखाचे तेंगशेर मांडटा आनी भोंवतणी उजो घालता म्हणजे कितें? असलीं मस्तीपणा तूं कित्याक करता?





‘हांव कसलींच मस्तेपणा करना. हांव फकत म्हज्या बापायच्या प्रधानमंत्र्याची मस्ती जिरोवंक सोदतां. म्हाका म्हजें राज्य परतें जाय.’

‘पूण तुज्या नशिबांत गरीब म्हणूनच जियेवपाचें आसा.’ भाग्यदेवीन ताका सांगलें.

‘खबर आसा. आनी दर दिसा म्हज्या जाळांत एक कस्तुरमृग पडचो अशेंच म्हज्या नशिबांत आसा. हांव म्हाका जाय थंय जाळ मांडटलों. कोण हरकत घेवंकच शकना.’

‘तुका कळना कशें? दर रातीं एक कस्तुरमृग खांदार घेवन रुखाचे तेंगशेमेरेन वचप आनी ताका तुज्या जाळांत घालप अशें,म्हज्यान कितलो तेंप करूंक येतलें?

‘तें हांव कितें सांगू? पूण फाल्यां हांव हाजेपरसय व्हडल्या रुखाचेर म्हजें जाळ हुमकळायतलों, भोवतणीं उजो घालतलों आनी सगल्या झाडाक सांसवांचें तेल सारोवन बरें बुळबुळीत करतलों.’ कुमारान पर्वा करी नासतना म्हळें.



भाग्यदेवीचेर आकांत आयलो. कांय वेळ चिंतून तिणें म्हळें, 'तू भोव हुशार भुरगो. तुजो निर्धार पळोवन हांव तुजें भाग्य परतें बरयतां.'

ते रातीं भाग्यदेवीन कुमाराच्या कपलार बरयिल्लें पोरने भाग्य पुसून थंय नवें भाग्य बरयलें.

कांय दिसां उपरान्त राज्यांत बंड जावन प्रधानमंत्र्याची हत्या जाली. कुमार राजवाड्यांत गेलो तेन्ना ताजी जाण्टेली आया ताका रोखडीच वळखली. खिणामजगती राजकुंवर आयला म्हणचेली खबर राज्यांत सगल्याक पातळ्ळी आनी सगल्यांनी एकठांय येवन एकमतान कुमाराक आपलो राजा केलो.





## दोन चलयो आनी एक साळीक

तिनशें फूट उंचायेचे एके दोंगुल्लेच्या माथ्यार एक पोरनें देवूळ आशिल्लें. देवळांत देवाची सोबीत म्हूर्त आशिल्ली. एक जाण्टेलो भट सदां देवाची पुजा करतालो.

उषा आनी ललिता ह्यो दोगी इश्टीणी सदां देवळांत येताल्लो. भटाकडेन गजाली करूंक आनी तो तरांतरांच्या फुलांनी देवाची म्हूर्त सजयता तें पळोवंक तांकां खूब आवडटालें.



सकाळीं फुडें उषा आनी ललिता नाचत, उडयो मारीत, गायत, झोंपाफाट्ल्यान आपालिपा खेळत दोंगुल्ली चडटालीं. तांच्या बोवाळान जागीं जाल्लीं पारव्यांचीं पिलां न्हिदसुऱ्या आवाजांत म्हणटालीं, 'हे अगडबंब पारवे केदो बोवाळ करतात!'

आपलो शोंपो फुलोवन तुर्र करून हेवटेन तेवटेन धांवत वतना चानी तिडकून म्हणटाली, 'हीं म्हाका आपालिपा शिकयतात. केदें काळीज हांचें!'

वयल्यान उडत वचपी हळडूवेंताल्ल सुकणें म्हणटालें, 'आतां-काळांतल्यो ह्यो आधुनीक चलयो सामक्यो पिशो! म्हज्या पाखांच्या रंगांची हांचीं झबलीं. मुद्दाम म्हाका तिडावंक सोदताता काय कितें?'

पूण वाटेच्या दोन कुशींनी फुलिल्लीं गुलाबी, निळीं, हळडुवीं, जांभळीं, रंगबेरंगी फुलां वाऱ्या तालार धेलत मधूर आवाजांत म्हणटालीं, 'ललिता, उषा, आमची रसणाय पळयात. तुमी आमकां खुडून घेयात आनी देवाची म्हूर्त सजयात.'

दोगूय इश्टिणी खोश्शैन फुलां खुड्टालीं. बाबडे कोमाले कश्टी जावन हेवटेन तेवटेन उडटाले. फुलां घेवन तीं भटा म्हऱ्यांत वतालीं. ताका दोळ्यांनी बरें दिश्टी पडनासलें





तरीकय फकत हातांनीं सांसपून तो जूस्त फुलांचीं नांवां पारखितालो. देवाक फुलांनी सजयत तो त्या चलयांकडेन उलयतालो.

'आरे वा! आजय तुमीं मोगरीं हाडल्यांत! देव तुमकां पावन करतलो.' ना जाल्यार 'आयज तुमी गुलाब हाडल्यात न्हय? देव तुमचे जिणेंत मोग आनी शांती हाडटलो.' अशो गजाली तो करतालो.

एक दीस उषान भटाक विचारलें, 'भटमाम, हावें देवाक साळीक ओपलें जाल्यार देव म्हाका कितें दितलो?' भटान म्हळें, 'साळीक? तीं तर सगल्या फुलांची राणी! साळीक म्हळ्यार देवाची जाणविकाय. तुवें भक्तिभावान साळीक देवाक ओपलें जाल्यार तूं ताका प्रिय जातलें आनी आतां आसा ताजेपरसय तूं चड बरें मनीस जातलें.'

उषा खोशेन भुल्लुसलें. ललितान अजापान ताका विचारलें, 'पूण तुका साळीक खंय मेळटलें?' उषा हांसलें, पूण ताणे जाप दिली ना. ललितान परतें परतें विचारतकीर मात ताका सांगचेंच पडलें.

ताणें म्हळें, 'दोंगुल्लेचे पेलेवटेन तळें आसा तें नकळो तूं? तातूंत साळकाचो एक कळो हावें पळयला. तो आयज रातीं फुलतलो. फाल्यां फांतोडेर वचून हांव तें साळीक खुटून हांगा हाडटलें.'

'पूण तें तळें म्हज्या बापायचें.' ललितान ताका आडायत म्हळें.

हें उषाच्या लक्षांतच येवंक नाशिल्लें. पूण साळीक तोडपाचो ताणें निर्धार केल्लो. ताणें नेटान म्हळें.

‘आसत. पूण थंय कोणच केन्ना वचना. केणाक कळ्ळेबगर थंय साळीक फुलून बावन लेगीत वतलें आशिल्लें. हांवें जूस्त तें पळयलें, म्हटकीर तें खुटपाचो हक्क म्हजो.’

‘हक्क तुजो कसो? तळें म्हज्या बापायचें.’ ललिताय हट्टाक पेटिल्लें.

‘जाल्यार?’





'जाल्यार, साळीक खुटपायो हक्क म्हजो.'

त्या दिसा दोगय इश्टिणी उलय नासतना आपआपल्या घरा गेल्यो.

दुसऱ्या दिसा उषा फांतोडेर उठलें आनी तळयाकडेन धांवत सुटलें. तें थंय पावतासर उजवाडूंक लागिल्लें. मळब तांबसार जाल्लें. तळें दिसूंक लागतकीर उषा खुशाल जालें. पूण ललिताची याद जावन ताका वायटय दिसलें.

इतल्यांत त्या हय-न्हयशा उजवाडांत ताका तळ्यांतल्यान कोण तरी वयर सरतना दिसलें. ताका कच्च जालें. पळय जाल्यार ललिता. तें साळीक घेवन तळ्यांतल्यान वयर सरतालें.

उषा झोपां फाटल्यान लिपलें. ललिता झपाझप दोंगुल्ली चडूंक लागल. आपूण जिका इश्टीण म्हणून समजातलें, तिणें हें उसलें चिकानाचें कर्तुब पळोवन उषाचें मन कोडू जावन गेलें.

भट तळयेर न्हावन देवळांत आयलो आनी पुजा करूंक बसलो, इतल्यांत ललिता थंय पावलें.

'कोण थंय?' भटान विचारलें.

'हांव साळीक घेवन आयलां.'

'साळीक? शाब्बास! हांव तुज्या नांवान तें देवाच्या चरणार ओपतां. तूं उषा न्हय? म्हाका सारकें दिश्टी पडना, ताका लागून तुमकां दोगांकय वळखतना म्हजो घुसपा-गोंदळ जाता.'

ललिता ओगीच रावलें. पयस लिपून पळयतल्या उषाक कूस फुटून रडूंक आयलें.

'उषा न्हय?' भटान परतें विचारलें.

ललितान सट्ट करून म्हळें, 'हय. देवाक हें साळीक उषाच्याच नांवान ओप.'

'नाका...नाका.' उषान फाटल्यानच्यान व्हडल्यान म्हळें.

'भटमाम, हें साळीक ललितान हाडलां.'

'पूण तें तुवें पयलीं पळयिल्लें. हांवें फकत तोडून हाडलें.' ललिताच्या पोल्यावयल्यान दुकां गळटालीं.

'पूण तें तुमच्या तळ्यांत फुलिल्लें.' उषाय रडटालें.

'जाल्यार कितें?'

'जाल्यार तें तुवेंच देवाक ओपपाचें.'

तांचें उलोवणे आयकून भटान तांका मायेन समजायत म्हळें, 'कांय नज, हांव तुमच्या दोगांयच्याय नावान देवाक हें साळीक ओपतां. देव दोगांचेरय आपली कृपा दवरतलो आनी तुमी दोगांय ताका भोव प्रिय जातलीं. जांचीं मनां तुमचे सारकीं मोगाळ आनी नितळ आसतात तींच फुडाराक बरीं मनशां जातात. तुमीय जातलीं.

घरा परत वतना उषा आनी ललिता एकामेकाकडेन पळोवन हांसलीं आतांच्यानच आपूण बरें मनीस जालां अशें तांकं जाणवलें. सदचेवरी नाचत, गायत, उडयो मारीत तीं घरा वचूंक लागलीं. परत एक फावट तांच्या बोवाळान जागीं जाल्लीं पारख्यांचीं पिलां न्हिदसुऱ्या आवाजांत तांचेर तिडकलीं.

□□



Lasertypeset at Ess Ess Enterprises, New Delhi 110 055
and printed at Jupiter Offset Works, Delhi 110 032

